# मळबगंगा

(कविता)

ग्वादालूप डायस्

बिम्ब प्रकाशन

*मळबगंगा*

कविता

ग्वादालूप डायस्

**Mollobganga**

(Poetry Collection)

by Gwadaloop Dais


प्रकाशन क्रमांक 53





पयली आवृत्ती
2007

छापणावळ
इंप्रेशन, बी-2, अक्षर आर्केड,
गोंधळी गल्ली,
बेळगांव

अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन

मुखचित्र
गिरीश बोरकार

प्रकाशक
दिलीप बोरकार
बिम्ब प्रकाशन,
पर्वरी

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या साहित्य प्रभा हे येवजणेखाला छापलां

मोल : शंबर रूपया

## एका वळखिच्या......
## अन्वळख्याक

जिणेच्या मळबार अशेच
खूप तारे उदेले
थोडे पयसुल्ल्यान पळयले
हेरांक लागिंच्यान वळखले
पूण एक तारो मात
म्हाका परकीच उरलो
वळख ताची सोदतां-सोदतां
म्हाकाच परकी करून गेलो
आजुनूय दिसता मनांत
मेळटलो तो खंयतरी
ताकाच ही 'मळबगंगा'
अनवळखी तो आसलो जरी

- ग्वादालूप डायस्

# मांडावळ

## मळबगंगेंतल्या काव्यानुभवाची अप्रुपाय

फाटल्या वर्सा बाय ग्वादालूप डायस हाचो 'भूंयफोड' कविता झेलो उजवाडा आयिल्लो तेन्ना लोकार्पण सुवाळ्यांत हांव त्या झेल्याचेर उलयिल्लों. भूंयफोड म्हळ्यार चालंत भाशेंत अळमी. पूण, भूंयफोड उतरांत जें आंतरीक काव्य आसा तें अळमी ह्या उतरांत ना. अळमी म्हणटकीच कोणाच्याय तोंडाक उदक सुटूंक शकता - तांच्या सुरबूस रांदप प्रकारा खातीर. भूंयफोडाचें तशें न्हय. भुंयेक मनशाच्या रूपांत कल्पून, तिचे कुडीर उदेल्ले फोड म्हळ्यार 'भूंयफोड'. एक वेगळीच संकल्पना. "पावसा नादार, जमनी काळजार/उमाळ्यांनीं फुल्ल्यात भूंयफोड" अशा उतरांनीं तांची कवयित्री अपुरबाय केल्या. मनाचे खोलायेचो थाव सोदीत, साद्या पूण अर्थगर्भ उतरांनीं, उचल्या थराच्यो, काळजाक फुलारपणान सांसपुपी शब्दप्रतिमा निर्माण करप ही सोंपी गजाल न्हय. सगळ्यांकच हें जमता अशें ना. ग्वादालूपबायेक तें बऱ्याच पमाणांत जमलां अशें म्हाका दिसता. ताचे काव्यानुभुतीचें एक वेगळेंपण जाणवता आनी तें म्हळ्यार ताचें एक उतर दुसऱ्या उतरांक वेंगेंत घेवन येता तेन्ना तीं एक आपणाली अशी खाशेली रंगसया निमारण करतात. 'भूंयफोड' कवितां झेल्याक, माधवबाब बोरकारान पत्ररूपी प्रस्तावना बरयल्या तातूंत ग्वादालूपबायेचे कवितेची विशेशताय सांगतना ते म्हणटात - "एकाद्री रागाची बंदीश मनांत घोळत रावची तशी तुजी ही कविता." आजचे नवे पिळगेचे जे कवी - कवयित्री कोंकणी कविता बरयतात तांचेमदें ग्वादालूपबाय आपणाली अशी वेगळी पूण लक्षणीय अशी वाट चलपाचो प्रयत्न करता अशें म्हाका जाणवल्लें आनी हांवें तें उक्तेपणान सांगिल्लेंय.

कवितेन मातयेचो परमळ घेवन येवप, काळजाचे चुर्के-मुर्के तातूंत उक्ते जावप, मोग-मीलन-विरह हांच्या भावनांचें प्रगटीकरण घडप, शब्द पोरणेच पूण तांचेर नव्या अर्थसयाचें रोपण करप आदी गजाली म्हळ्यार कालचे - आयजचे कवितेचो धर्मच. पूण ह्या सगळ्याक सामावन घेवन कवितेचे कुडी-बडीक एक नवें परिमाण दिवपाचो प्रयत्न जावप हें खरें फुडलें पावल. ग्वादालूपबायेल्या 'मळगंगा' झेल्यांत हें फुडलें पावल फकत जाणवूनच रावना, तर तें स्पश्टपणान

दिसताय.

'मळबगंगा' झेल्यांत ज्यो कविता आसात त्यो वेगवेगळे माथाळे घेवन आयल्यात, हें जरी वयले वयर पळोवंक दिसलें तरी तीं एके विंग-विंगड मनोभावरूपी कवितेंचीं, एका सुत्रांत गुंथून आयिल्लीं, वेगवेगळीं रूपां. एका विशिश्ठ सुत्रांत गुंथिल्ल्यो कविता कोंकणींत हे आदींय आयल्यात. देखीक प्रकाशबाब पाडगांवकारालें 'वास्कोयन' आनी रमेशबाब वेळुस्कारालीं 'माती'. 'मळबगंगें'त ह्या सुत्राचो वापर जाला. पूण तो वेगळे तरेन - व्यक्तीसापेक्ष पावंड्यार. हे सुत्ररूपी कवितेंत एक 'हांव'चे भुमिकेंत कवयित्री आसा आनी दुसरो 'तो' आसा. जाका कवयित्री कोणतरी अनवळखी म्हण्टा. हो 'अनवळखी' खंयच उलयना. उलयता फक्त हांव चे भुमिकेंतली कवयित्री. हे खातीर एके दिश्टीन ही आत्मनिष्ठ कविता. हातुंतलो 'आत्म' म्हळ्यार व्यक्तीगत कवयित्रीच अशें न्हय. कवयित्री फक्त 'आत्म'चे भुमिकेंतल्यान आपणालें मन उक्तायता. भाव-भावनाचो आविष्कार घडयता. हे अभिव्यक्तींत त्रयस्थपण ना, तिरायतपण ना. कवयित्रीन आपणायिल्ले भुमिकेंतलो आत्मनिष्ठ पणाचो मनोभार 'मळबगंगें'त जितलो गडद जायत वेता, तितलीच ही कविता अदीक उंचल्या कलात्मक पावंड्यार पावता. काव्यानुभुतीचो एक अप्रूपसो अणभव काळजाक ल्हवपीकपणान स्पर्श करता. कवयित्रीच्या म्हणण्या प्रमाण, ताची मळबगंगा ''खरे मळबगंगे इतली विशाल नासली तरीय तातूंत खूबशा ताऱ्या-गिऱ्यांचो आस्पाव जालो. खूब फावटीं ताऱ्यान म्हजे जिणेंत प्रकाश फांकारलो. जाल्यार कांयवेळ गिऱ्यान म्हजे जिणेचो उजवाड उदार घेतलो.'' मळबगंगेचें स्वरूप नियाळून कवयित्री म्हण्टा :

मळबगंगे व्होटयेंत तुजे
नकेत्रां गे कितलीं
म्हज्या रित्या पोशांत
सांभाळूंक जायनात तितलीं

ग्वादालूपबायेची ही कविता म्हळ्यार एका विमुक्त जाणिवांची गवाय. कितें म्हणपाचें आसा तें मेकळेपणान सांगून ती एक नवो काव्यानुभव निर्माण करता. ती सरळ हिमालयाकच प्रश्न करता आनी ताचे फाटलें कारणय सांगता :

हिमालया तेंगशी तुजी
म्हजे खातीर बागयशी

युडी आमच्या मोगाची
आज थंय उबारूंक जाय

कवयित्री मोगाचे घुडयेची गजाल करता म्हणजे हे कवितेंत मोग आसाच. ताका जोडून येवपी खेद - खंतीच्योय सया आसात. सांगातपण - पैसावो हाचेय स्पश्ट - अस्पश्ट सुस्कारे - हुस्कारे आसात. पूण हें सदांचे सर्वसामान्य पणान धरून चलतात ते शारिरीक पातळेचेर केन्नाच उतरून येना. सगळें कितें अनाम अशे इश्टागतींचे काल्पनीक पातळेचेरच उरता. कवयित्री म्हण्टा :

आज म्हाका पावस जावन
मनांत तुज्या झडूंदी
इश्टागतीचे गुलमोहर
परत एकदां फुलूंदी

इश्टागतीची गजाल करतना कवयित्री भोवतणचें वातावरण निर्मणेचेरय एक सारकें ध्यान - मन दवरून आसता. ती म्हण्टा :

काजळ माखून दोळ्यांत
पुनव मोगरे कळ्यांत
नखेत्रांचो पदर सांवरीत
गत देंवल्या तळ्यांत

ग्वादालूपबायेक अर्थभरीत पूण सादीं सुदीं सुंदर उतरां वश जातात. काव्यानुभवाचे अभिव्यक्तीक जथापथ, मुदयेर थीक कशीं हीं उतरां जंय येवंक जाय थंयच येतात आनी काव्यानुभवाक सौंदर्यानुभवाचीय जोड दितात. देखीक ह्यो ओळी पळयात :

एकूच थेंबो मागलो हांवें
तळें कित्याक दिलें
इतलें सगळें उदक पळोवन
तानूच हांव विसरलें

ग्वादालूपबायेचे कवितेक उतरां वश जातात. तशीच ती सूचकपणाक रूपकाचे शैलींतय आपणाक उक्लायतात. ते ग्वातीर सैमाकडेन संवाद साधप चालूच आसता. एक पत म्हणून हीं उतरां पळयात :

पावसा तूं आयलो खरो
म्हजेर एकूच उपकार कर

काळीज म्हजें नितळ जावंक
तातूंत भितर उदक भर

हे कवितेक ज्या अर्थान हांवें आत्मनिष्ठ कविता म्हळ्या, त्याच अर्थान ती आत्ममग्नय कविता. रस-रूप-गंधाचे गूण तिच्यांत खूब बरे तरेन उतरल्यात. हे कवितेक खडबडीतपण खबर ना. तिका तिचें अशें एक खेरीत गोमटेंपण आसा. तिचे रचनेंत सुलभाय आसा. मधुरायय आसा. सैमीक अलंकारांत तिची वाढ जाता. देखीक 'सांज' ही ल्हानशीच कविता पळयात :

अमुरपिकी एक सांज
पोरसांत म्हज्या आयली
तुका दवरिल्ले मोगरे कळे
हळूच खुडून धांवली
तुका ती भेटली जाल्यार
एकच उपकार कर
अर्धे कळे तिका दी
बाकिचे तुकां दवर

ग्वादालूपबायेची ही कविता. तशें पळोवंक गेल्यार पुर्णार्थान छंदबध्द न्हय. हे कवितेंत खासा आपणालो असो एक रूपबंध आपणायला. ताचो आपलो असो एक सूर - ताल निर्माण जाला - सुंदरायेचो दिश्टावो घडोवपी.

साहित्यकाराक प्रतिसृष्टीचो निर्मातो म्हण्टात. आपणाले प्रतिभेच्या बळार तो सगळें रचता - निर्माण करता. एकाद्रो एक कवी वा कवयित्री जेन्ना हें करता तेन्ना उतरां वांगडा सुंदराय, गोमटेपण, नादमाधुर्य आनी प्रतिमा-प्रतिकांच्या आधारान आमकां अप्रूप अशा अनुभुतींचें दर्शन घडोवंक शकता. ग्वादालूपबाय तांचे तांकी प्रमाण आपणा वांगडा आमकांय तागेले 'मळबगंगें'त भोंवडावन हाडटा. ही भोंवडी निश्चितच खोसदिणी आसा. 'मळबगंगे' तले हे भोंवडेवरवीं, ग्वादालूपबायेन आपणांविशींच्यो अपेक्षा आनीकय उंचायल्यात. त्यो सुफळतायेक पावूं. तांचें भांगर जावूं!

- नागेश करमली

''मानसदीप''
चिंबल, रायबंदर.
२५ मार्च २००७

## मळबगंगा .... दुर्बिणेंतल्यानं

जिणेचे रोयणीर उदेल्ल्या पयल्या-वयल्या भूंयफोडां मदले, म्हजे आवडिचे अशे कांय 'भूंयफोड' एकठांय करून, सायलाच्या पानांत घालून तुमचे मेरेन पावयल्ल्याची म्हाका आजून याद जाता. तांची रूच, तुमचे जिबेर आजून घोळटा आसतली अशें समजून, आतां तुमचे मुखार दवरतां म्हजे जिणेची 'मळबगंगा'.

जरी ती खरे मळबगंगे इतली विशाल नासली तरी तातूंत खुपशा ताऱ्या-गिऱ्यांचो आस्पाव जालो. खूप पावटीं ताऱ्यांनीं म्हजे जिणेंत प्रकाश फांक़ारलो जाल्यार कांय वेळ गिऱ्यानीं म्हजे जिणेचो उजवाड उदार घेतलो. दिवप-घेवप ह्या बळग्याचेरूच म्हजें जिवीत चलतालें आनी तेंच म्हजें सूख अशें हांव मानतालें.

पूण अकस्मात, ७ मे २००६, 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत 'सूख थंयच आसलें' ही म्हजी कविता, आयतार पुरवणेंत छापून आयली आनी म्हजे मळबगंगेंत आनीक एका अनवळखी ताऱ्याची भर पडली. अनवळखी आसुनूय हांव ताका 'गिरो' न्हय पूण 'तारो' मानतां कित्याक ताचे वरवीं म्हजे जिणेन एक वेगळीच दिशा धरली. तर जालें अशें! त्या दिसाक छापून आयिल्ली कविता जांकां कोणाक आवडली आनी त्या बद्दल म्हाका कळोंवचें अशें जांकां दिसलें ताणीं फोन करून मुद्दाम म्हाका सांगलें. पूण ह्या अनवळख्यान म्हाका अशे तरेचो संदेश धाडलो की तो कोण हें जाणून घेवपाची म्हजी उत्सुकता जाली आनीक कित्याक कोण जाणां, ताचे कडेन उलयल्या उप्रांत, ओंठार आपसूक कविता हुळहुळूंक लागल्यो. एक अनवळखी चेरो म्हाका सामकोच वळखिचो दिसूंक लागलो आनी हांव कविता बरयत रावलें.

केन्ना-केन्ना, हो मनीस म्हाका भेटचो अशें मनापासून दिसपाक लागलें. हांवें ताका कळयलेंय बी, पूण कांय अडचणी सांगून, ताणें मेळपाक न्हयकार

दिलो. मर्दी-मर्दी ताचो रागूय येवपाक लागलो पूण अजाप म्हळ्यार त्या रागांतल्यानूय कविता येवजल्यो. सगळे वाटेन म्हजोच फायदो जावंक लागलो. हो आपा-लिपाचो खेळूच कसो म्हाका दिसपाक लागलो. ना पळयतां ताका 'इश्ट' मानूंक मन फार्टी-फुडें येवूंक लागलें पूण तशें पळोवंक गेल्यार तो दुस्मानूय नासलो. मागीर प्रस्न पडलो, 'जो दुस्मान न्हय तो इश्टूच मूं?' आनी मुकाट्यांनी हांवें ताका म्हजो इश्ट मानलो. पूण हे इश्टागर्तीत केन्नाच मर्यादिची शीम आमी हुपली ना. तरी आसतना, ह्या अनवळख्याक धरून, म्हज्या आनी घोवा भितर मात्शें तणावाचें वातावरण निर्माण जालें. पूण हांवें हार मानली ना. 'लग्न जाल्ले बायलेक वो दादल्याक, हेर दुसरे इश्ट-इश्टीणी आसूंक शकनांत?' असो प्रस्न तांचे मुखार मांडलो आनी ताची जाप ते सोदतात म्हणसर म्हजो 'मळबगंगा' हो कविता संग्रह, अर्दो तयार जालो.

त्याच दिसांनीं 'Positive Imaging' हें श्री नॉर्मन व्हिनसेंट पेल हांचें पुस्तक हांव वाचतालें. त्या पुस्तकांत म्हाका एक अशी ओळ सांपडली, 'Be very careful what you wish for, because you may get it,' आनी म्हाका दिसलें, जर खऱ्या मनान हांवें ह्या अनवळख्याक म्हज्या positive imaging आंत हाडलो जाल्यार ताका हांव वळखूंक शकतां. आतां हांव, 'तो म्हाका मेळूंक ना.' हाचें उरफाटें चिंतूंक लागलें. अजाप म्हळ्यार सहज तो म्हज्या दोळ्यांमुखार उबो रावलो. मनाचे नदरेन हांवें ताका निरखिलो आनी 'मळबगंगा' ह्या कविता संग्रहाचो दुसरो भाग तयार जालो.

हो कविता झेलो बरयताना जो प्रस्न हांवें म्हज्या घरकारा मुखार मांडिल्लो, तोच प्रस्न हांव परत एक पावट तुमचे मुखार मांडटां, 'लग्न' जाल्ले बायलेक वो दादल्याक हेर दुसरे इश्ट-इश्टिणी आसूंक शकनांत?

ह्या प्रस्नाची जाप तुमकां ह्याच कविता-झेल्यांत सांपडटली! तो मेरेन 'एक अनवळखी, जाका हांव वळखतां' ताचे खातीर ही 'मळबगंगा' भेटयतां.

- ग्वादालूप डायस्

२२/टी, एस्. जे. ए. बंगलो
किरभाट - नुवें, सालसेत - गोंय.

## प्रार्थना

सर्गाक दोळे लावन देवा
तुका दिमी मोडटां
जमनिची धूळ हांव
हात म्हजे जोडटां

देवा तूं शिल्पकार
म्हाका तुवें घडयलां
तुज्या हातांत घालून हात
मळबार म्हाका चडयलां

तुज्या पावलार पावल दवरून
तारे-गिरे पुंजायल्यात
तुवेंच दिल्लें गिन्यान वापरून
मळबगंगेंत सजयल्यात

म्हजेर आयल्यार तुफान देवा
आसरो म्हाका दिवं नाका
पूण तुफानाक तोंड दिवंक
शिकोवंक मात विसरूं नाका

# मळबगंगा

मळबगंगे व्होटयेंत तुजे
नखेत्रां गे कितलीं
म्हज्या रित्या पोशांत
सांबाळूंक जायनांत तितलीं

सांग खंयच्या नखेत्राचेर
बरोवं ‘ताचें’ नांव
भाग्य कोणाक फावो करूं
सांगूंक ‘ताचो’ गांव

केंसांत म्हज्या खोवूंक
कितलीं म्हणून काडूं
‘अनवळख्या’ सांग तुका
कितलीं दिवून धाडूं

हे मळबगंगे तुजो
दबाजो चड बरो
एका ‘परक्या’ खातीर हांवें
एकठांयल्यांत तींच पुरो

## तुज्या सोदांत...

तुजी वळख सोदतां-सोदतां
हांव म्हाकाच विसरलां
तुका सोदूंक चोय दिकेन
मन म्हजें पसरलां

दोळे धांपून येवजितां
तूं कसो आसतलो
विसरायेच्या मोडणार
हाताक म्हज्या धरतलो

मोन्यानींच हांव नियाळटां
रूपकार तुजो आसा कसो
मळबाच्या उगड्या कपलार
पुनवेचो चंद्र जसो

आपालिपा एकलोच खेळ्ळ्यार
तूं तुकाच सांडटलो
म्हजे कवितेचो मात
विशय जावन रावतलो

# म्हजो इतिहास

म्हज्या माथ्यार
तुज्या वर्तमानाचो
सुर्या उदेलो
भविश्याचे सावळेंत
म्हजो संवसार
इतिहास जालो

हो इतिहास
बरयलो जाल्यार
वाचपी रडटले
आपल्या दुकांनीं
नांव तुजें
पुसून काडटले

तूं नासल्यार
इतिहास कसलो
सामकोच अर्थहीन
दर अवेस्वरांत
तुज्योच यादी
अपरंपार खीण

देखुनूच हांव
म्हजो इतिहास
काळजांतूच दवरतां
वाचप्यांचे नदरेंतल्यान
तुजें नांव
जिवापरसूय जपतां

# म्हजे नदरेंत

म्हजे नदरेंत सगळें दिसता
तें मळब, तीं कुपां
ते दोळे, तीं दुकां
पूण तूं मात दिसना
याद तुजी पावला चांटेक
मन कशेंच सांवरना

जिणे वण्टीर सगळें आसा
ते कांटे, तीं फुलां
तो घोंटेर तीं पिलां
पूण तुजोच रूपकार ना
एक फास्की रिती आजून
कितें करचें समजना

## जिणेंचो अर्थ

म्हज्या चंचल मनापिसोळ्याक
आज मळबार उडूं दी
जिणेचो खरो अर्थ
आज ताका कळूं दी

काजुल्यांच्या उजवाडान
चंद्रीम सोदूंक भोंवूं दी
चान्ने ना मेळटकीच
दिव्या म्हऱ्यांत येवूं दी

बिजलेच्या खांब्या पोंदाक
एक रात सारूं दी
अवजाळी दर्या ल्हारां
रित्या पोशांत भरूं दी

सगळ्याक जरी हेडलें तरी
रित्या पोटार उरूं दी
आपलेपणाचो मद देवा
आज ताचो जिरूं दी

# पावस तूं

पावसाच्या दर थेंब्यांत
रूपकार तुजो पळयतां
मनाचे पडींग जमनीर
उतरां तुजीं किल्लयतां

पावसाची धार जावन
आयलो म्हज्या जिवितांत
विचारांचें व्हडें म्हजें
सोडलां हांवें तुज्या हातांत

पावसाचो आवाज पळय
उमळशीक लायता तुजी
असोच तो झडल्यार पुरो
माया अशीच उरूंक तुजी

## 'भूंयफोड' चाखतल्याक

शिंपयां भितर मोती सोदचें
तशेंच तुवें सोदलें म्हाका
अणभवी नदर तुजी
वळख म्हजी पटली तुका

तुस्त तुवें केली तरी
माथ्यार हांवें घेवंक ना
टिकाय म्हाका सोंसली तुजी
वायट मातूय धरूंक ना

तोल-मोलाचे गोफिणिंतल्यान
फाटीं म्हाका ओडलें नेटान
तितलीच स्फूर्त घेवन हांवें
फुडें वचचें देखून झेतान

बेनल जावन रावचे परस
'भूंयफोड' जावन रावन हांव
'हिरो' म्हाका म्हणचे परस
'रूद्राक्ष' दिल्यार जाता नांव

# तुका सोदीत

तुका सोदीत पिशें मन
पयस मेरेन व्हांवलें
परत कशें येतलें
मातूय चितूंक नासलें

तुवें म्हाका केल्लें तितलें
हांवें पुण्य धरलें
तुकां केल्लें सगळें मात
म्हजें पातक ठरलें

तुका जो शेवट आसलो
म्हाका ती सुरवात
तुका जो दीस फावलो
म्हाका ती रात

तुवें म्हज्या सांगातान
फकत फुलां खुटलीं
तुज्या दोळ्यांतलीं मात
हांवें दुकां वेंचलीं

# म्हजें अशें कितें आसा

कुरकुटांत सांबाळपा सारकें
म्हजे कडेन आसाच कितें
यादिंचीं वांकडीं तोर्णां
सोडल्यार सुर्या किर्णां
कोगळांचो मधूर साद
संगिताचो म्होंवाळ नाद

दोळ्यां फास्केक योग्यशें
हांगा हांवें सोदचेंच कितें
मळबाची निळी साडी
कुणग्यांतली पारव्यां जोडी
दर्याचीं कोंगरीं ल्हारां
अवजाळी शेजाऱ्या पोरां

आपलोसो म्हणचो असो
हांगा म्हजो आसाच कोण
एक तर दोळ्यां मावली
सादी-भोळी म्हजीच सावळी
सैमा पानार जिणे थेंबो
माथ्यार पडचो जसो ओथेंबो

# नियाळ कर

तुजो हांसो सोदतां-सोदतां
हांवूच एक फकाण जालां
पूण तो सांडिल्ल्याची
तुका याद जाता?

तुजीं उतरां सोदतां-सोदतां
हांव सामकेंच मोनें जालां
पूण तूं उलयल्ल्याची
तुका भास जाता?

तुका म्हजो म्हण्टां-म्हण्टां
हांव म्हाकाच परकी जालां
तूं म्हजो जाल्ल्याची
तुका घडी येवजता?

# आंवडे

उमाशेचे जोरगती
एक रात उदार दिशी
दोळ्यांत माखून काजळ
वाट ताची पळोवंक जाय

पुनवेच्या चंद्रा तुजें
चान्ने म्हजेर ओतशी
भांगर आंगार चडोवन
कुशींत ताचे रिगूंक जाय

दर्या तुजीं ल्हारां
म्हज्या नांवार करशी
केंसांत म्हज्या माळून
आज ताका भुलोवंक जाय

कोगळा तुजी मधुराय
म्हज्या गळ्यांत भरशी
हांव तुजो मोग करतां
अशें ताका सांगूंक जाय

हिमालया तेंगशी तुजी
म्हजे खातीर बागयशी
घुडी आमच्या मोगाची
आज थंय उभारूंक जाय

# आजेच्या काणयांवरीं

आजेच्या काणयावरीं
म्हज्या सपनांत
सगळें आसलें
तो कुंवर
तो घोडो
तो चंवर
तो राजवाडो
हांव मात
थंय नासलें

तो चंद्र
तो सुर्या
तें व्हडें
तो दर्या
तरी म्हण्टां
त्या सपनांत
सगळें आसलें
हांव मात
थंय नासलें
आजेच्या काणयांवरीं

# तुजींच उतरां

मोनीं उतरां तुजीं
तकले पोंदाक धरलीं
केंसांचो आदार घेत
खिणभर तीं फुल्लीं

दुखाचीं फुलां तुजीं
काळजार शेंवटून मार
तुज्या उदास काळजाचो
उणो मात्सो जायत भार

जर तुज्या दुखांत
म्हाका मातूय वांटो ना
तर म्हज्या सुखांत
तुका मातूय सुवात ना

## एक फूल

चान्याचो घोंट घेत
रातराणये सारको भेत
काजुल्यांची वाट पळयत
रानांत एकटेंच पडलें फूल

आतां येत, मागीर येत
थरथरून आयलो देंट
काजुल्यांची वाट पळयत
रानांत जळत रावलें फूल

चंद्रीम पावलो माथ्यार
रात बसली दांत्यार
तांबशें जालें फांत्यार
रानांत बावत आयलें फूल

वयर सरलो सुर्या गुळो
चंद्राक आतां लागलो दोळो
सुकून गेला फुला गळो
रानांत बवून गेलें फूल

# भुरगेंपण

ते वाटेंतल्यान चलून
मुखार हांव पावलें
म्हजें भुरगेंपण मात
मदींच वाटेर रावलें
केन्नाय आवयच्या पदरांत
केन्नाय चुलिंतल्या धुंवरांत

त्या झऱ्याचें उदक पिवून
गिन्यान म्हजें वाडलें
पाखांत वारो भरलो मात
मन भुरगेंच उरलें
केन्नाय निळ्या उदकांत
केन्नाय नखेत्री मळबांत

संवसारी चाली रिती
सगळ्यो हांव शिकलें
म्हजें मस्तेपण मात
खंयतरी सांडलें
केन्नाय चिंचे बोट्यांत
केन्नाय आजेच्या व्होटयांत

# म्हजे अडचणींत

म्हज्या मोगाचे वाटेर
दुख्खाचे मोडण आसचें
थंयच्यान हांवें फुडें वचून
तुवें म्हज्या हाताक धरचें

म्हजे यादींचे बागेंत
बाबळिचें झाड आसचें
कांटे म्हाका तोपचे पयलीं
तुवें म्हाका आवरण जांवचें

म्हज्या दोळ्यांतले तिजोरेक
मदींच एक दार आसचें
दुकां म्हजीं आडावंक
तुवें ताका कवाड लावचें

मोग म्हजेर करता जाल्यार
फकाण तुवें शेर्त करचें
तरी मोग फकाण न्हय
इतलें तुवें जाणून घेंवचें

# आमचे खातीर

हांसत यो, नाचत यो
जायो जुयो फुलयत यो
उडत यो, पडत यो
राती पारार न्हिंदे भारार
आमचे खातीर मुजरत यो

माणकुल्याचो घेवन हांसो
तरनाट्यांचो जावन पोसो
जाण्ट्र्यांचो आदार कसो
राग जळयत, मोग घोळयत
आमचे खातीर मुजरत यो

दशणीं फुलांचें खालतेंपण
सांवरी बोंडाचें वरतेंपण
पारजताचें उदारपण
काळोख घाटीत, उजवाड वाटीत
नव्या वर्सा बेगीन यो

# अनमोल भावना

अवजाळी दर्या ल्हारां
दर्या भोवन आयलीं
दिसा जोड मेजार उडयत
पांय सोडून बसलीं

सगळ्यांची इत्सा भागोवंक
जोड पुरो आसली
म्हज्यो भावना विकत्यो घेवंक
तातूंत तांक नासली

# चुकिल्लें गणीत

तुज्या जायांच्या परमळाक
पावलां म्हजीं भुल्लीं
कांटे-कुटे तुजेच खातीर
माडयत फुडें चल्लीं

खंयच्याय एका मोडणार
दिसलें तूं मेळटलें
रगतान भिजिल्लीं पावलां
पदरान तुज्या पुसतलें

म्हज्या गणिता प्रमाण
तशें कांयच घडलेंना
आंकडे खंय चुखले
म्हाका मातूय कळ्ळें ना

तरी तुका सोदूंक हांव
असोच फुडें चलतलों
तुजे वाटेर परमळ ओपूंक
जायोच जावन फुलतलों

# कविता बरोवंक

कवितेचे विशय सुळसुळटात
तरी काळीज आशेता
परत एकदां अडेच्या
मोगान पडन दिसता
फकत एक कविता बरोवंक

पांयांर सूख लोळटा
तरी मन निर्शेता
सपनांत तरी येवचें कोणेंय
अशें म्हाका दिसता
फकत एक कविता बरोवंक

जिणें सूर्या अस्तंमता
तरी आशा शिजता
खिणा पुरतो आज परतो
मोग म्हजेर करचो कोणें
फकत एक कविता बरोवंक

# आज म्हाका

आज म्हाका पावस जावन
मनांत तुज्या झडूं दी
इश्टागतीचे गुलमोहर
परत एकदां फुलूं दी

पावसा नादार काळीज तुजें
उमळून आज येवूं दी
तुज्या म्हज्या मोगाचे
'भुंयफोड' वयर सरूं दी

जिणेंत तुजे आयज मोगा
सात रंग भरूं दी
तुज्या मनांत याद म्हजी
सदांच अमर उरूं दी

निराशी नदरेंत तुजे
हरयाळी चवरूं दी
फुलपाखो जावन म्हाका
गीत नवें गांव दी

काजुलो जावन तुजे
गर्भ कुडींत रिगूं दी
तुजें रीण फेडूंक
म्हाका एकूच सयोग दी

# संदेश

ये धांवत्या कुपांनो
म्हजें एक काम करशात?
घरकार गेला परगांवां
ताका म्हजो संदेश दिशात?

ताका मुजरत सांगात
सामकेंच मोनें जालां हांव
सकाळ सांज, दीस रात
वोंठार घोळटा ताचेंच नांव

तशें पळोवंक गेल्यार
हांगा कांयच कमी ना
पूण जाची चड गरज
तोच मात हांगा ना

ये धांवत्या कुपांनों
सांबाळात वारें येता
म्हजो संदेश फांफसत
म्हाका भिरांत दिसता

# याद म्हजी

एकसुऱ्यो राती हांवें
दोळ्या पण्टेंत जळयल्यो
वचत थंय जिणेंत तुका
दिसाचो वांगड मेळचो म्हूण

यादिंच्या रानांत हांवें
काट्यांच्यो वाटो माडयल्यो
संवसार तुजो परमळूंक
फुलांचें मुक्काम मेळचें म्हूण

काळजाचें तळें हांवें
दाट रेब्यान पुरयलें
तुज्या सुखाचीं साळकां
थंय उपाट फुलचीं म्हूण

तुवें दिल्लें वीख हांवें
म्होंव समजून पचयलें
सदांच तुजे जिबेर
गोड शब्द पाजरचे म्हूण

म्हज्या वांट्याचें आयुश्य हांवें
तुज्या नांवार बरयलें
केन्ना तरी चुकून तुवें
याद म्हजी करची म्हूण

# जल्म दिसाची भेट

काजळ माखून दोळ्यांत
पुनव मोगरे कळ्यांत
नखेत्रांचो पदर सांवरीत
रात देंवल्या तळ्यांत
तितलीच वर्सां मेळूं तुकां
तुजे जिणे जाळ्यांत

मोरान फुलयलीं पाखां
शिंपयेंत सापडलीं थिकां
वनां फुल्लां ब्रह्मकमळ
दोळ्यांत खोशये दुकां
जिणे गाडी फुडें वचूंक
लावन भांगरा चाकां

कोगूळ गायता सुरांत
पारजत शिंपडल्या दारांत
लिपचोरयांनीं भितर सरलीं
सूर्या किर्णां दारांत
म्हजें आयुश्य गुंथून उरूं
तुजे जिणें हारांत

# मागलें ताचे परस

एकूच थेंबो मागलो हांवें
तळें कित्याक दिलें?
इतलें सगळें उदक पळोवन
तानूच हांव विसरलें

एकूच किर्ण पुरो आसलें
धाडलो कित्याक सूर्या
रखरखीत वोतान ताच्या
सुकलो जिणे दर्या

एक धडक पुरो आसली
हुंवार कित्याक धाडलो
सांवरूं म्हाका कशें, म्हजो
आत्मविश्वास बुडलो

# अशेंच कितें

पावसा तूं आयला खरो
म्हजेर एकूच उपकार कर
काळीज म्हजें नितळ जावंक
तातूंत भितर उदक भर

मन म्हजें हुंवारांत
व्हांवन पयस गेल्यार जाता
म्हाका म्हजे जिणेची
सामकीच आतां वीट येता

जोगलावणें गडगड मारून
बंद जाल्यार जांव दोळे
पावसा तूं फुलयत राव
हांगा मनीसपणाचे मळे

निरडुकायेची रूखावळ
मुळासकट हुमटावन उडय
दर पावला कणकणी
निस्वार्थी फुलां फुलय

# आपा - लिपा

दोळ्यांतली न्हीद चोरून
तुवें सपनां विणलीं
मनांतलीं दशणी फुलां
आज मोनींच उरलीं

थेंब थेंब करून तुवें
उदक तळ्यांत साठयलें
साळकांची आशा दाखयत
तुवें म्हाका फटयलें

आपा - लिपा खेळटां खेळटां
दोळ्यांक पानां पुसलीं
नादानपणां समजून हांवें
कर्मा तुजीं सोंसलीं

पयलीं सारकी आतां म्हाका
न्हिदेची गरज ना
दोळे उगडेच दवरून हांगा
न्हिदचें कशें हांव जाणां

तानेन जीव व्याकूळ जाला
तातूंत कितें व्हडलें

वाळवंट तुवेंच भेट दिल्या
थंय जियेवचेंच पडलें

उमेद आजून वचूंक ना
आपा - लिपा खेळुया
तूं म्हाका कितले बेगीन
सोदून काडटा पळोवया

# सूख सोदूंक

सूख सोदूंक हांव
राना वनांत भोंवलें
दर एका पानां देंठार
फकत दुखूच आसलें

दर्या सुखी आसा
किनाऱ्यार हांव पावलें
त्याच खिणाक ल्हार येवन
पांयां कडेन फुटलें

कोगूळ मजेन गायता
अशें हांवें आयकलें
सुरांत तिच्या मोनी व्यथा
सूख खंयच नासलें

भोंवतां भोंवतां पांयांक
कितें तरी भोगलें
ओणव घालून पळयत तर
सूख थंयच आसलें

# तूं कितें करतलो?

मोगाचे वाटेर रात जाल्यार
तूं कितें करतलो?
तुज्या खातीर दिवो जावन
पावला कणकणी जळटलों

दर्यांत मदींच तुफान जाल्यार
तडीक कसो येतलो?
नांव तुजें वोंठार घोळयत
बुचकळत हांव रावतलों

हांवें तुजें काळीज मागल्यार
म्हज्या नांवार करतलों?
मागून पळय तेन्नाच तुकां
विस्वास म्हजेर बसतलो

हांव तुका विसरल्यार
तूंय म्हाका विसरतलो?
तुजे यादीन कुपां जावन
सगळ्या मळबाक पसरतलों

# फाल्यां कोणें पळयलां?

रात दोळ्यांर ओडून
तूं आजून न्हिदला
चल दोळ्यांर उदक मार
दीस येंवचो जाला

सांडिल्लें मनीसपण सोदूंक
आजूच तो येतलो
तुका दिल्ल्या वेळाचो
हिशोब तो घेतलो

नखेत्रांच्यो माळो गुथूंक
तूं आजून भुल्लूसला
चल सपनांतलो भानार यो
दीस येंवचो जाला

आयचो दीस जायत घडये
तुजो निमणो थारत
फायच्या दिसा तुज्यो हांगा
फकत यादीच उरत

# म्हाका नाका

तुज्या यादींचें काजळ
ओगीच म्हज्या दोळ्यांत नाका
दुकां जावन गालार व्हांवत

तुज्या उतरांचो साद
म्हज्या काळजांत घालूं नाका
'गूंज' जावन कानार पडत

तुज्या हांश्याचो खळखळ
म्हाका तर नाकाच नाका
जिणेक ताची संवंय लागत

तुका समजून घेवपाचे
कश्ट इतले दिंव नाका
हांव म्हाकाच विसरून वचत

# पुरो आतां

आपा - लिपाचो खेळ हो
खेळपाक एकदम बरो
सगळे कडेन सोदीत तुका
थकलां तितलेंच पुरो

वडा कुशीक सोदलो तुका
सोदलो पिंपळा पेडार
आतां तरी सामकार यो
जुवानपणाच्या नाक्यार

वड आतां जाला जाण्टो
पिंपळूय जाला वस्त्रगाळ
तुजे वाटेर लावन दोळे
उबें हांगा घेवन माळ

## जेन्ना तूं भेटलो

पावसाच्या दर थेंब्यांत
तुका इतलो सोदलो
जेन्ना तूं भेटलो म्हाका
तेन्ना पावसूच दिसलो

आपा - लिपाचो खेळ तूं
इतलो बरो खेळ्ळो
हांवें हार मानतकीच
तूं म्हाका मेळ्ळो

तुकां सोदूंक गुलमोहर
राजा कशे न्हेसले
तूं म्हाका भेट्टा म्हणसर
शिपाय जावन फसले

पांचव्या जिणें अरण्याचें
तुवें वाळवंट केलें
तुज्या दिश्टाव्यान मात
वाळवंटांतूय उदक जालें

# जिणेचो सूर्या

म्हज्या पांयांच्या पांयजणाक
घुंगरू तुजे यादिंच्यो
म्हज्या हातांच्या कांकणाक
वेदना तुज्या काळजाच्यो

म्हज्या केसांचे विणयेक
तुज्या कश्टांचीं फुलां
गळ्यांत मणी विस्वासाचो
घालून तृप्त जालां

म्हज्या ताळटार उदेल्यात
तुज्या नशिबाच्यो रेशा
म्हज्या दोळ्यांत उतरल्या
तुज्या मोगाची नशा

म्हज्या मनांत गरजता
तुज्या उतरांचो दर्या
म्हज्या काळजांत मुरमुरता
तुज्या हांशाचो सूर्या

म्हज्या माथ्यार चकचकता
तुज्या आयुश्याचो भांगतिळो
कपल म्हजें सजयता
तुज्या नांवाचो वाटकुळो

# दर फांतोड

दर फांतोडेर उदेंवचो
तुज्या सुखाचो सूर्या
मावळूंक तुका जाय तेन्ना
जायन हांव दर्या

दर फांतोडेर आयकुंचो
तुवें सुकण्याचो किलबिलाट
तोंड लिपोवंक सोदता तेन्ना
जायन हांव काळोख गुपाट

दर फांतोडेर फुलचीं
तुज्या जैताचीं फुलां
कांटे पांयांक तोपतात तेन्ना
जायन तुजीं पावलां

दर फांतोडेर मेळची
मधूर उतरांची अक्षता
जिणे पुस्तक रितें तेन्ना
जायन तुजी कविता

# अशेंच तें

जेन्ना सुखाचें वोत
दुखाच्या पावसान मेळटा
आसोर जाल्ल्या मळबांत
इंद्रधोणू मोगाचो खेळटा

जेन्ना दोळ्यांची भाशा
मोन्या काळजाक कळटा
परमळ पालवांत सांवरीत
मनांत हातो फुलता

जेन्ना विस्वासाच्या दर्याक
दुबावाची न्हंय जुळटा
जिणें व्हडें वादळी भोंवऱ्यार
गोल गोल घुंवता

आनी मागीर ......???

# निराशा

मनाची पण्टी पेटोवन
तुजे भितर देव सोदलो
देव खंयचो? तुज्यांत तर
सादो मनीसूय नासलो

एकसुरे जिणेक म्हजे
तुजो सांगात जोडलो
ती पूर्ण जालीच ना
संवसार अध्र्यारूच बुडलो

दर्या येदें व्हडपण तुजें
तानेक एकूच थेंबो मागलो
तुकाच लागल्यात पावसा दुवाळे
म्हाका उदक खंयचें दितलो?

## वारो

सकाळच्यान वारो हो
मेळत तसो व्हांवता
अवजाळ्या पोरा सारको
हांगा थंय धांवता

आतांच आंब्या खांद्यार
रोखडोच पावलो बांदार
चडलो घरा आगाशेर
पळय दोंगरा तेंगशेर

सोमतोच फुलां मळ्यांत
केन्नाच निळ्या तळ्यांत
म्हज्या फुड्यांत नाचलो
तुका पळोवन हांसलो

## तूं जाणां

१

वृंदावनातल्या बासुरेच्या सुरापरसूय
म्हाका तुजो हांसो आवडटा
तरी पूण तुका म्हजो 'कृष्ण' म्हणूंक
'राधा' सारकें म्हजें नशीब कमी पडटा

२

तुज्या दर उतरान
जिणेच्या शब्दकोशांत
अदीक भर पडल्या
तुजो रूपकार पळोवंक
म्हज्या दोळ्यांची वात
जळून सोंपत आयल्या

३

आदींच मेल्ल्या मड्याक
तूं कितलो मारतलो
उजो तरी लाय व्हरून
गोबर तुकांच उपकारतलो

४

म्हज्या पिशेपणाचे दोरयेक
तुजीं शाणेपणां गुंथून काड
म्हज्यो भावना बारीक शिनून
तुज्या भुखेल्ल्या काळजाक वाड

# अस्तुरी

देवाचो अवतार खरो
देवपण मात सांडलां
साळकावरीं दिसलो तरी
अस्तित्व चिखलांत बुडलां

सूर्याचें तेज आंगांत
बुध्दीक स्वार्थी खिळे
पुनवेचो हांसो तोंडार
काळजांत हांवेस काळे

वाऱ्याचो वेग घेत
आपलें - परकी विसरला
सत्याची निसण सोडून
खोल रेब्यांत निसरला

आशेच्या भोवऱ्याक सांपडून
गोल गोल घुंवता
घाण्याक बांदिल्ल्या बैला सारको
आपल्याच फाटल्यान धांवता

कानांत घालून बोटां
आरड मारता व्हडली

स्वताक नाशिल्ल्यान विस्वास
अस्तुरेक उज्यांत सोडली

मळबाक जरी तेंकयलो हात
'स्त्री' हारली समजूं नाका
संवसार तुज्या हातांत तरी
तिच जल्म दितली तुका

## तुजे भेटेक

तुजे भेटेक पिशें मन
इतले मेरेन आशेलें
मेळटकीच तूं सांडटलो
चितूंक लेगीत विसरलें

वाऱ्यावरीं शितळ तूं
जिणेंत प्रवेश केलो
वतना मात वादळ जावन
म्हाकाच हुमटावन गेलो

वाट तुजी पळोवंक
उदार घेतली रात
सूख तुका भोगलें
हांव घाणाक उरलें मात

तुका भुलोवंक दर्याकडेन
ल्हारां मागून घेतलीं
म्हाका फावल्यो शिंपयो
मोतयां तुवें गुंथलीं

# केन्ना तरी

कुपानीं दाटिल्लें मळब
केन्ना तरी झडटलें
एक रिती सुवात पळोवन
म्हजे खातीर रडटलें

म्हजें एक उतर आयकूंक
जोगलावणें तें थांबतलें
म्हजो स्पर्श जाणून घेवूंक
सैम स्तब्ध रावतलें

म्हज्या हांशाक जावन पातिशेर
चिखलांत साळक बावतलें
म्हाका सोदूंक उदक लेगीत
झळीं-मळीं व्हांवतलें

म्हज्या खातीर संवसाराचें
काळ चक्रूय थांबतलें
मरचे पयलीं जगांत जेन्ना
'हांवपण' सोडून जगतलें

# अडचणींत...तुजो आदार

मोगाचे वाटेर, दुखाच्या मोडणार
तुवें धरचें हाताक म्हज्या
अशें खीणभर दिसलें
पूण तुज्या त्या हातानीं
तितलें बळगें नासलें

यार्दिचे बागेंत, कांटे तोपल्यार
तूं आवरण जातलो म्हजें
मनाक हांवें समजायलें
कोण जाणां बाबळिचें झाड
बागेंत हांवें कित्याक लायलें

दोळ्यां तिजोरेंतलीं दुकां आडावंक
तू कवाड लायतलो
ह्या विस्वासान रावलें
तुज्यांत तितली तांक नासली
दुकां व्हांवन तळें जालें

## वरदान

सकाळचें वरदान घेवून
उदेंतेक आयलो सूर्या
म्हाका दिलीं चोवीस
तुकाय दिलीं चोवीस
सांग कितें करया
म्हज्या वाट्यांतलें हांवें
एक दिलें देवाक
दोन म्हज्या भावाक
आठ मेकळीं सोडलीं
न्हिदेक आनी घोवाक
एक रांदचे कुडींत गेलें
शेजाऱ्यांनी एक व्हेलें
एक खावूंक-पिवूंक
एक खर्चलें न्हावूंक
आठ सहज धांवलीं
पोटाचो प्रस्न सोडोवंक
म्हाका एकूच उरलें
तेंवूय तुजे यादीन सारलें
हो जालो हिशोब
म्हज्या एका दिसाचो
तुका मात म्हजे खातीर
वेळ कित्याक कमी पडलो

# सगळेंच फिकें पडलें

मळबगंगेंतलीं नखेत्रां पुंजायत
तुज्या नांवार केलीं
तुजो हांसो पळयतकीच
चकचकूंक तीं विसरलीं

दर एका नखेत्राचेर
चिंतलें बरोवंक तुजें नांव
आदीं-फुडें तीं तुजींच
मात कशें समजलें ना हांव

पुनवेच्या चंद्राक कसो तुका
सर करूं येता
तूं तर तेज सूर्या
चंद्रीम तुजोच उजवाड घेता

अनवळखी म्हण्टां-म्हण्टां
तुकां इतलें वळखलें
हारशा सामकार, म्हजें म्हाकाच
वळखूंक हांवें नाकारलें

## म्हाका नाका

म्हज्या माथ्याक माळूंक
नखेत्रां हाडूंक सोदतां
नाका मोगा तांचो दबाजो
फक्त रातचोच सोबता

केंसांत खोवचें आसल्यार
एकूच दशणी फूल खोवय
फायचो हुस्को फाल्यांर सोडीत
आयचोच दीस जगूंक शिकय

गळ्यां भोंवती घालूंक
मोतयां सोदूंक भोंवता
ल्हारां वंगडा दर्यांत सांडत
भिरांत म्हाका दिसता

गळ्या भोंवती उजवो हात
दाव्या हाताक मेळय
तुज्या मोगाची पण्टी
सदांच म्हज्या काळजांत जळय

## एक सांज

अमुरपिकी एक सांज
पोरसांत म्हज्या आयली
तुका दवरिल्ले मोगरे कळे
हळूच खुटून धांवली

तुका ती भेटली जाल्यार
एकूच उपकार कर
अर्दे कळे तिका दी
बाकिचे तुका दवर...

# आमी भेटलीं तेन्ना

तुजी म्हजी पयलीच भेट
चिंचे पोंदाक घडली
त्या दिसाच्यान चिंचेन
आपली आंबटसाणूय सोडली

मळबान केंसां आंबाडो
हळूच मानेर सोडलो
घुस्पून उरिल्लो सूर्यागुळो
सहज दर्यांत पडलो

तुजे म्हजे भेटिची
वाऱ्याक मस्ती चडली
चंद्राकूय आयलो भार
रातीक वेंगेंत ओडली

व्हाळा देगेर कणकेक
नाजूक हातो फुल्लो
रूपेरी दवा थेंबो
लजे झाडाक भुल्लो

तुजे म्हजे भेटेन
सैमान केलो श्रृंगार

सुरगांच्या झाडाकूय
अमृताचो आयलो हुंवार

पयले भेटेच्यो यादी
मनांत अजून घालतात साद
सगळें हांव विसरलां
याद आसा ही एकूच याद

# सरगम

सरगमांतलो एक सूर
खंय तरी सांडलो
जिणेचो ताल चुकलो
पांयजणाचो आवाज मात
साद घालीत आसा
त्या सांडिल्ल्या सुराक...

इंद्रधोणुंतलो एक रंग
अस्तमतेक लिपलो
जिणेन विस्वास सोडलो
दोळ्यांतलो सूर्या मात
आजून सोदीत आसा
त्या लिपिल्ल्या रंगाक....

## मोग

मोगाक शीम-मेर आसना
तळ-काळ लागना
जाती-कातिचीं आडम्हेळीं
मोगाक आडावूंक शकना
धर्मांचीं दुर्गां, शरीर
दोशी करीत
पूण आडायत कश्यो
मोगाच्यो भावना?
मोगान बुडिल्लो मनीस
वाटेर ओंपिल्ल्या कांट्यांचींय
फुलां फुलोवन
समाजांत जावन रावता
एक मोगाचीच प्रेरणा
आपल्याक सुगूर राखतलो
ह्या विस्वासान, अपरिमीत
उंचायेवयल्यान जो कोण
उडकी घेवूंक शकता
तो शेर्त मोगान पडला
अशें समजुचें
तान भूख विसरून
उगड्या दोळ्यांनीच सपनां
देखतल्याक हेर सगळें

सोडून, प्रेमभावा विशींच
विचारचें, वीख पिवून
म्होंव म्हूण पचोवपी
प्रियकरा कडल्यानूच
जिणेंचें खाशेलेपण वळखूचें
मोगान भरमेवपी मनीस
तकली कमी, काळीज चड
चलयता
साखरे बदलाक मीठ खावुनूय
गोडसाण जिबेर खेळयता
आळवा वयल्या दवा थेंब्याची
मोती जायसर वाट पळयता
ह्याच खातीर 'मोगान उठतात'
अशें न्हय पूण
'मोगान पडटात' अशे
नदरेन संवसार ताका पळयता

# हांवूच चुकलें

काळजार पडिल्लें लांशें
दुकानीच पुसून काडलें
सगळें हांगा आसलें तरी
रितीच जीण जगलें

कुशीन काडलें तेन्ना
माळेंतलें एक पोवळें
बाकिचीं जमनीर भिरकलीं
रिकामी दोरी घेवून
हांव उबेंच उरलें....

# अशें हांव करतां

फायचो दीस मेळचो देखून
आयची रात सारतां
पुनवे तुज्या चान्या खातीर
उमाशेंत हांव हारतां

दुकां दोळ्यांत लिपचीं म्हूण
ओगीच हांव हांसतां
तोंडार सुखा फुलां
काळजांत कांटे सोंसतां

दर्या शांत जावचो म्हूण
ल्हारां मुठींत धरतां
हाताच्यो रेशा धुवून गेल्यो
जिवें आसुनूय मरतां

ताचे यादीन कुपां जावन
मळब भर पसरतां
जो म्हाका विसरला
ताकाच याद करतां

## तर कित्याक

अनवळख्या तुजे खातीर
कित्याक हांवें रडचें
तुजे यादीन जिवीत म्हजें
कित्याक हांवें सारचें

तुजे वाटेक दोळे म्हजे
ओगीच कित्याक लावचे
तुजेर दूख आयल्यार, म्हाका
कश्ट कित्याक जावचे

तूं म्हाका मेळ्ळोच ना
सांडलो कसो म्हणचें
म्हजो तूं जावंकूच ना
काळजाक कित्याक शिणचें

गंगेक, मळब जोडून तुज्या
नांवार कित्याक करचें
याद मनांत रिगलीच ना
कशें तुका विसरचें

# मरणाचे शिमेर

सांडून वचूंक सोदता
वच तूं, हांव आडायना
पूण वतना काळीजूय व्हर
ह्या काळजाची आतां गरज ना

वतना मात सवकास वच
म्हाकाय फाटल्यान येवूंक जाय
जिणेचो रस्तो वांगडाच माडयलो
मरणाचे शिमेरूय मेळूंक जाय

मात्सो वळून पळय तरी
तुज्या फाटल्यान हांवूंय येतां
नशिबाक तुवें वांगड दिलो
सरणार तुका सांगात दितां

## ताचे फाटल्यान

ताचे फाटल्यान जगूंक जाय
सगळीं म्हाका समजायतात
वांगडा काळीज घेवून गेला
कित्याक तुमी विसरतात

सांगात म्हाका काळजा विरेत
कोणांक हांगा जगूंक येता
जाल्यार शेर्त गेला ताका
म्हज्यान सहज विसरूंक जाता

यादी ताच्यो झडच्यो देखून
केंस मानेर सोडल्यात
यादी खंयच्यो, तांच्या जाग्यार
चडशे म्हजे केंसूच झडल्यात

रडोवपाचो प्रयत्न करूंक
दोळ्यांत कांदो घातला
कितें फायदो दोळ्यां सागर
रडून आदींच सुकला

# तुजे यादीन

दुकां वांगडा व्हांवचो तूं
देखून हांव खूप रडलें
दर एक दूक म्हजें
तुजे खातीर मोती जालें
तुजे यादीन रडटां-रडटां
पिशें समजून स्वताक हांसलें
तुका मात फकाण दिसलें

तुजो स्पर्श पुसूंक
हांव पावसांत भिजलें
सुकून गेल्लें काळीज म्हजें
उदक पडून ओलें जालें
तुज्या यादींचें झाड
सुकतां-सुकतां चवरलें
तुका मात फकाण दिसलें

तुजी याद विसरूंक
मळबाकडेन पळयलें
दर एक नखेत्र, तुजें
उतर जावन लिकलिकलें
तुजे यादीन मरतां-मरतां
हांव जगूंक शिकलें
तुका मात फकाण दिसलें

# म्हाका जाप जाय

मळबांतलीं नखेत्रां पळोवन
तुजी उमळशीक लागता, देखून
मळब पळोवचें सोडलां
गुलमोहरांत तूं दिसता म्हूण
संबंद झाडूच कापलां

उदेवपी सूर्या घेवून येता
तुजो खळखळीत हांसो, देखून
ताचे कडेन झगडलां
जिबेर तुजेंच नांव म्हूण
जिबूच चाबडायत बसलां

उतरां केंसांत फारावल्यांत
तीं निसरचीं देखून
केंस उगयत रावलां
तूं म्हाका सोदीत म्हूण
खूप पयस धांवलां

काळीज धडधडटा तेन्ना
तुजीच याद येता म्हाका
तर सांग, कितें करूं
तुवें फुकिल्लें कृतघ्नाचें वीख
तातूंत हांव भरूं?

# जाणां जावनूय

अळमीं पावसांतूच किल्लतात
हें जाणां जावनूय
मनाची रोयण सांबाळटा
एक दीस अळम्याच्या रूपान
तूं किल्लतलो म्हूण....

गुलमोहर पावसांतूच फुलतात
हें जाणां जावनूय
सुकिल्ल्या झाडाक पुजतां
एक दीस फुलांच्या रूपान
तूं हांसतलो म्हूण....

नखेत्रां रातचींच दिसतात
हें जाणा जावनूय
दिसाचेंय मळब पळयतां
म्हजे खातीर नखेत्र जावन
दिसाचोच तूं चकचकत म्हूण....

# सगळें तशेंच आसा

तुज्या यादिंचो गुलमोहर
मनांत आजून फुलता
तुज्या उतरांचो झरो
कानांत खळखळत व्हांवता

तुज्या हांशाचें चान्ने
आंगणांत आजून पातळटा
तुज्या स्वासाची हुनसाण
काळजा दोरयेर हुमकळटा

तुजे नदरेचो भालो
दोळ्यांक आजून तोपता
तुज्या नांवाची माळ
दासी तुजी जपता

तुजे खातीर कविता
वोंठार आजून शिजता
तुजे पासत सैम हांगा
भान सोडून नाचता

# बाळा म्हज्या

बाळा म्हज्या
तोंडार तुज्या
हांसो लाखाचो
तुजें मन
म्हजें धन
पावस सुखाचो

तुजे हात
पुनवे रात
चान्नें शिंपडायतात
तुजे दोळे
मोगरे कळे
संवसार भोंवडायतात

म्हजें उतर
केंसा भितर
भान विसरतात
तुजीं पावलां
घडयत नवलां
दिशा मेळयतात

# म्हज्या बापायक

तुजे खातीर हांवें
केन्नांच कांयच करूंक ना
ना म्हणून तशी संदी
म्हाका केन्नाच मेळूंक ना
आज खूप करीन दिसता
पूण तूं मात हांगा ना

कवळ्या बोटांनीं काडी धरून
पाटयेर अक्षरां शिकयलीं
बिरबलाचें शाणेंपण सांगून
तत्वां मनांत रिगयलीं
आतां अक्षरमाळा तयार जाल्या
पूण तूं मात हांगा ना
तुजे खातीर हांवें
केन्नाच कांयच करूंक ना

तोंड उगडचे पयलीं सदांच
धा पावटी चितचें
जग वायट जाल्यार जांव
आपणें बरें रावचें
आतां दर उतराक मोल आयलां
पूण तूं मात हांगा ना
तुजे खातीर हांवें
केन्नाच कांयच करूंक ना

# परकी

जिणे वाटेर कांय परकी
अशा मोडणार मेळटात
तांकां आपले मानशी
तुजे तेवूय पळटात
हें अशें कित्याक घडचें
विस्वासाक, दुबावाचें जनेल
कित्याक देवा आसचें

भरिल्ल्या तळ्यांत एका थेंब्याचो
फरक इतलो पडटा
ताची भर जावून
उदक शीम-मेर हुपता
हें अशें कित्याक घडचें
एका थेंब्याखातीर तळ्यान
अस्तित्व कित्याक विसरचें

## उपकार

अनवळख्या तूं कोणूय जांव
उपकार तुजे मानतां
मळबगंगेंत प्रथम स्थान
हांव तुका दितां

फावलें जाल्यार असोच तुजो
प्रकाश फांकरीत राव
हांसो काळखांत सांडला
तांच्याय आदाराक पाव

जिणेच्या मळबार तूं
सदांच हाजीर आसचो
तरी पूण म्हजेखातीर
एक अनवळखीच रावचो



**'मळबगंगा'** झेल्यांत ज्यो कविता आसात त्यो वेगवेगळे माथाळे घेवन आयल्यात, हें जरी वयले वयर पळोवंक दिसलें. तरी तीं एके विंग-विंगड मनोभावरुपी कवितेंची, एका सुत्रांत गुंथून आयिल्लीं, वेगवेगळीं रुपां. 'मळबगंगे' त ह्या सुत्राचो वापर जाला. पूण तो वेगळे तरेन - व्यक्तीसापेक्ष पांवड्यार. हे सुत्ररुपी कवितेंत एक 'हांव' चे भुमिकेंत कवयित्री कोणतरी आसा आनी दुसरो 'तो' आसा. जाका कवयित्री कोणतरी अनवळखी म्हण्टा. हो 'अनवळखी' खंयच उलयना. उलयता फक्त हांव चे भुमिकेंतली कवयित्री फक्त 'आत्म' म्हळ्यार व्यक्तीगत कवयित्रीच अशें न्हय. कवयित्री फक्त 'आत्म'चे भुमिकेंतल्यान आपणालें मन उक्तायता. भाव भावनाचो आविष्कार घडयता. हे अभिव्यक्तींत त्रयस्थपण ना, तिरायतपण ना. कवयित्रीन आपणायिल्ले भुमिकेंतलो आत्मनिष्ठ पणाचो मनोभार 'मळबगंगे' त जितलो गडद जायत वेता, तितलीच ही कविता अदीक उंचल्या कलात्मक पावंड्यार पावता.

नागेश करमली